


# आमचीं उपयोगी झाडां

के. एस्. सेखाराम



# आमचीं उपयोगी झाडां

मूळ तेलुगु : के. एस्. सेखाराम
अनुवाद : अनिल शंकर नाईक
चित्रां : पुलक बिस्वास



नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया

हें आमचें कुटुंब
आई, बाबा, म्हजो ल्हान भाव,
टॉमी आनी हांव.





आमी त्या दिसा जनावर-घर पळोवंक गेल्ले,
तुमकां याद आसा ?
थंय आमकां टॉमीचे इश्ट मेळ्ळे.
आनी आमी थंय वाग, बिबटे, माकड, झेब्रे पळयले.
ते सगळे आपल्या पांजऱ्यातल्यान भायर पळयताले.





म्हज्या जनेलांतल्यान म्हाका
कितलीशींच झाडां दिश्टी पडटात.
आमच्या घराभोंवतणी जाल्यार
खूब रोपे आसात.
आनी आमच्या पोरसांत एक पेर लेगीत आसा.
ल्हान आसतात तांका खंय
रोपे म्हणटात.
म्हणटकूच, म्हजेभाशेन जे
ल्हान आसतात ते रोपे.
आनी बाबा म्हणटा, ताचेभाशेन
व्हड आसतात तीं झाडां,







पोरूंच आमी गुलाब लायिल्ले.
पळयात, तांकां कितलीं गोमटीं फुलां फुलल्यांत...
आनी मार्गशिरांत हाजेपरस चड शीं पडलें म्हणटकच
सगळेकडेन हळडुवींच रोजां फुलतलीं...

आमच्या मागीलदारच्या पोरसांत एक आंब्याचें झाड आसा...
हांव इल्लोसो भुरगो आसलों तेन्ना सावन तें थंयच आसा.
बाबा ल्हान आसलो तेन्नाय खंय तें व्हडलेंच आसलें.
देव जाणा, केन्नाच्यान तें थंय आसा !
तें झाड केन्ना रोयिल्लें ताजी
म्हज्या आज्याक लेगीत याद ना.
आमी जशे व्हड जातात तशीं झाडां - पेडांय वाडटात.
आनी तसोच टॉमीय बी.

दर एक वस्त कित्याक वाडटा, व्हड जाता ?
बिबटो, वाग, गाय, म्हस, टॉमी आनी हेर सगले प्राणी
त्या भायर
गुलाब, रोजणी, जायो आनी जुयो
जाल्योच, आमकां दिसतलीं सगळीं झाडां आनी रोपे,
सगळ्यांक जीव आसता आनी हेर
ज़ित्या प्राण्यांभाशेनच तीं आसतात.



दर एका जित्या जीवाक जगचेखातीर खावचेंच पडटा.
आनी जे खातात ते वाडटातच.
देखून हांव जेवण नाका म्हणटां
तेन्ना आई म्हणटा,
“आगो, तूं जेविना जाल्यार, तुजी वाड कशी जातली ?”



आमी सगळीं खातात,
तशेंच टॉमीकय खावचें पडटा
आनी कोण पळयना तेन्ना
बिलूबाय ल्हवू दूद गट्ट करता (मागीर ताका
वयल्यान दांड्यांचो मारय खावचो पडटा.)





वाग, शींव आनी बिबटे मांस खातात
ते खाता आसताना आमी तांकां जनावर-घरांत पळयिल्ले



गुलाबाक, रोजणीक, चांफ्याक आनी आंब्याकूय
जीव आसता - हय काय न्हय ?
तीं वाडटात, व्हड जातात.
मागीर तीं कितें खातात काय ?







रोप्यांक जमीन जाय आसता
रोप्यांक वताची गरज आसता.
रोप्यांक हवा आनी उदकय लागता.

आई आमचेखातीर पिठाच्यो रोटयो करता.
आमी त्याभायर पाल्याच्यो भाज्यो खातात
दोनूय वस्तू मेळून आमचें जेवण जाता.
पूण तुमकां खबर आसा ?
गुलाब, रोजीण, चांफो आनी आंबो
तेच भाशेन हेर सगळीं झाडां आनी रोपे
आपलें अन्न आपुणूच तयार करतात.





हीं सगळीं झाडां आनी रोपे
जमनींतलें उदक ओडून घेतात,
आनी श्वासूय घेतात - सामको आमचेभाशेन.
मळबांत सूर्य उरता तोमेरेन
पानांतली पाचवेसाण हेंच तांचें अन्न.
तें तांचें अन्न
तीं आपुणूच तयार करतात.



गुलाब, चांफो आनी आंबो
उकताड्यारच वयर सरता.
कुडींत वा रांदचे कुडींत
केन्नाच वाडनात.
अशें कित्याक जाता काय ?

कित्याक जाणात ?
तुमी तांकां वतापसून
पयस दवल्लें वा हुमटिलें
जाल्यार तीं आपलें अन्न तयार करूंक पावचीं नात.
आनी वाडचींय ना.
तीं बावून मरतलीं.



घर व्हडलें आसलें जाल्यार आमी रांदचे कुडींत रांदतात.
आंब्याचें झाडय खूब व्हडलें आसता.
तें आपलें अन्न खंय तयार करता ?
सगळ्या झाडांचीं पानांच अन्न तयार करतात.
सगळ्या झाडांचीं पानां ह्यो तांच्यो रांदच्यो कुडी.
थंयच तांचें अन्न तयार जाता.



चड पानां आसलीं जाल्यार
झाडां चड अन्न तयार करतात.
झाड जितलें मोठें, तितली ताका
खावड चड लागता. देखूनच
झाड व्हडलें आसलें म्हण्टकच ताका पानांय चड आसतात.
आनी त्याचखातीर झाडांची पानां झडलीं
जाल्यार बरी वाड जायना.
माळ्यान जरी सांगलें
वयलेवयर झाडांची इल्ली कापणी केल्यार
रोप्यांक आनी झाडांक नवी जीण मेळटा
तरीं ती कापणी जतनायेन करूंक जाय.



आईन आमकां भिकणां दिलीं
जाल्यार आमी थोडीं खातात
आनी उरिल्लीं मागीर खावपाक बोल्सांत दवरतात.
सामकीं तशींच
रोप्यांक जाय तितली खावड मेळ्ळीं म्हणटकच
तीं उरिल्लें अन्न
दुसरे खेपेखातीर दवरतात.





कांय वनस्पती आपलें चडावत अन्न जमनींत राखून दवरतात.
देखीक, गाजरां, बटाटां, भिकणां बी.
(हांव तुमकां एक गुपीत सांगतां, आजो लेगीत
आपले पैशे अशेच आरमारींत लिपोवन दवरता.)



कांय झाडां अशीं आसतात
जीं आपली चडावत खावड
हात पावचोना अशा जाग्यांनी दवरतात.
(आई लेगीत लाडू करतकच आमी काडचे न्हय म्हणून
वयर फळ्याचेर दवरता.)



आमकां भूक लागतकच
आमी तांचें अन्न झोपय मारून काडून खातात.
कांय प्राणींय तशेंच करतात.
बोकड्यो पानां चाबडायतात.
गायो आनी म्हशी तण खातात.
हत्ती जाल्यार झाडांच्यो आख्ख्यो फांदयोच गिळटात.
हरणां लेगीत झाडां-रोप्यांबगर जगूंकूच
पावचीं नात.

हरणां नाशिल्लीं जाल्यार
वाग आनी बिबटे जगूंकूच पावचे नाशिल्ले.
सांगपाची गजाल म्हळ्यार मांस खावपी प्राण्यांक
लेगींत जगचेखातीर वनस्पत जाय आसता.
थोडे भीतर आमी अशें म्हणूया :
''झाडां आनी रोपांची जावूं उदंड वाड
करूया पांचवे सृष्टीचो अखंड जयजयकार !''





आमी सद्दां गंवाच्या पिठाच्यो केल्ल्यो रोटयो खातात.
पूण आमकां गंव तयार करूंक येनात.
वांयगीं, भेंडे, कारातीं आनी चिडकीमिडकी सारके रोपे
जें आपलें अन्न तयार करतात.
तें आमी भाजी म्हणून खातात.
बाबडीं अन्न तयार करचेखातीर इतले कश्ट काडटात.
आनी आमी, तें काडून घेवन
शिजयतात आनी खातात.
जनावरांक अन्न शिजोवंक येना. देखून तीं हरवेंच खातात.

हे धतरिचेर
रोपे आनी झाडांच
हवा, उदक आनी वत
हांच्या आदारान आपलें अन्न तयार करतात.
आमकां वा जनावरांकूय
तशे करूंक येना.
ताचें कारण सामकें सोप्पें :
आपलें अन्न तयार करूंक
झाडांकडेन आशिल्ली पानांची पाचवीसाण
आमचेकडेन नासता.
देखूनच रोप्यांनी आनी झाडांनी तयार केल्लें
अन्न घेवन आमी तें शिजोवन खातात.
आनी जनावरां तें हरवेंच खातात.





पाचवी सृष्ट नासती तर
धतरिचेर जीव उरचो नासलो
आमीय बी हांगा आसचे नासले.
आमकां सुखान जगूंक मेळचें
हेखातीर आमी चड झाडां आनी रोपे
रोवंक जाय.



हीं पाचवीचार झाडांझोपां
पळयात, कितलीं सोबीत दिसतात !
आनी त्याभायर तीं आमकां सांवळीय दितात.



आमी आमच्या शेतांनी भात, गंव
आनी मको रोयतात.
पोरसांत पेरी, आंबे आनी द्राक्षां रोयतात.
त्याभायर वांयगीं, भेंडे, चिडकीमिडकी आनी कारातीं
हे सारक्यो भाज्यो पिकयतात.



देखून आमी मतींत दवरूंक जाय,
झाडां आनी रोपे, ल्हान आसूं व्हड
आसात आमचो एक भाग
आनी आमी आसात तांचो एक भाग

